# संकल्प

सौ. इंदू अशोक गेरसप्पे



॥श्री॥

भौ० मेल्वीनबाबाक मायेमोगाने अर्पण ,

“जीवन सार्थक जांव ॥”

– इंदू गेरसप्पे

# संकल्प

इंदू अशोक गेरसप्पे




बिम्ब प्रकाशन

**संकल्प**
(कविता संग्रह)
इंदू अशोक गेरसप्पे

**SANKALP**
(Poetry Collection)
*by*
***Indu Ashok Gersappe***

**प्रकाशन क्र. ७३**



**पयली आवृत्ती**
जानेवारी २०१०

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९० ००२

**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**दर्शनी चित्र**
लीना पडूकोण

**प्रकाशक**
कामिनी किणी
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

**मोल : १२० रुपया**

**ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीचो पयलो चंवर येवजणे खाला आर्थीक पालव लाबला.**

म्हजे आदरणीय पप्पा,
एच. रत्नाकर राव,
ज्यांनी म्हाका अक्षरवळख
आनी अक्षरमोग शिकयलो,
हांकां व्हडल्या आदरान
अर्पण

- इंदू अशोक गेरसप्पे

# मांडावळ

## आरादना

विद्यादायिनी गे माय सरस्वती
करतां आरादना
वरदायिनी दी गे प्रेरणा
ओंपता स्रद्धे साळीक
धवल पाकळ्यांचें रगतकाळजाचें
गे स्फुर्तीदायिनी
रेखितां कुमकुमतिळो
आकांक्षेचो
मृदुभाशिणी, आयक गे
कळकळीची पराथणी
एकचि दया दृश्टी गे माये
एकचि दिव्य स्पर्श
जागतली सूक्ष्म बुद्धी ही
जातलो उत्कर्श
शांत स्निग्ध तुजें रूप नियाळतां
तल्लीन जाली मती
दोळियां निस्तता भक्ती
तुज्या कृपेशिवाय
रूक्ष गे म्हजी अक्षरसाधना
व्यर्थ उपासना
प्रतिभे तरी तूं शांत स्वस्थ निराकार

अजुनी कसो फुटना पाझर
निरसलें मन गे जीव उतावीळ
उठून
कर्तव्यकर्माच्या चक्रव्युहांत
उरलीं घुस्पून
खिन्न उदास
अचकीत तापलेल्या निढळार
जालो मायेचो शितळ स्पर्श
असीम दयेचो वर्शाव
सुस्त मनाक मेळ्ळी चेतना
वाकसरिते
अश्या कामावेळीं
शब्दांचंवर असो फुललो घमघमलो
अक्षरां वेंचतां वेंचतां हात शिणले
लिखणी अबल पडली
गे सुसंस्कृते
शक्ति दी
पेलूंक ह्या पदरांत
हो साहित्य सांवार
हो कवन हुंवार
हो अंवसर
सदगदली काया
स्तब्ध हांव घडीभर
हो वेळू, हो मेळू, उज्वळू
गे प्राणदेवते
तुज्याच चरणीं अर्पण
प्राणकवन.

# पद

अश्याच एका सांजवेळेर
संथ व्हांवतल्या न्हंयेदेगेर
हांवें एक पद म्हळें
हळूच
अळंग वाऱ्या ल्हारेक ओंपलें
तें खंय गेलें?
वाऱ्या झोतांत
वितळिल्ल्या वोतांत
नाचत उबत
सळसळ शेतातणा भांग काडीत
चांफ्या रुखार झोंपय घेत
पानापानार ताळयो मारीत
निळ्या निळ्या तळ्यार
साळकागंधा उमो घेत
गिरी शिखरांक साद घालीत
नखेत्रां सांगाती रास खेळत
पावलें जायत अंतराळांत
काय ल्हवूच कोणाच्या कानांत
पवालें जायत काळजांत
थंयच्या आसमंतांत
सूर अजूनय घुमतात
म्हज्या पदाचे.

## क्षणू

हो क्षणू
चैतन्य अणू
काळ व्हांवता
वेळ धांवता
कणाकणाने
क्षणाक्षणाने
एक कणू
हो क्षणू
बहुमोलाचो
गेल्लो क्षणू
परत मेळना
आयुश्याचें गणित
एक क्षण चड ना
एक क्षण उणें ना
तळहातावयलो क्षण
हें तुजेंच धन
कोणाकूय व्होरूंक जायना
चोरूंक जायना
तुज्याच हातीं आसा
तुजें भूतभविश्य
आनी वर्तमान

हो क्षणू
अमृतकणू
होच सोनसुवाळो
होच शुभमुहुर्त
चैतन्य अणू
हो क्षणू.

# कवन

कवन
ही जिणेची भास
एक विस्वास
एक उस्वास
एक निरंजनी आस
कवन
एक काळजांतली कळ
एक अनावर उमाळो
आयुश्याच्या मंथनांतल्यान
खवळून खुबळून आयिल्लें उतर
कवन
मनमळबांत मोखिल्लो
एक स्वच्छंद आलाप
एक स्वैर गरूडझेप
कवन
एक कला
एक कल्पना
कवितेचें साम्राज्यच न्यारें
ना सीमा ना बंधन
थंय तिचेंच राज्य
तिचेंच नियम

कवन
एक संदेश
एक उपदेश
जगाक कितेंयतरी सांगची इत्सा
हांव उरो नुरो
उरतलें हें चिन्न
दर्यादिगेर हें पावलखूण
उरतलें हें उतर
हें अक्षर
एक सय
हें कवन.

## आरंभ

सुरवेक
ना सत ना असत
ना व्योम ना वारें
ना उजो ना उदक
अंतरिक्षच ना जाल्यार
कोणें केलें हें विश्व अवडंबर?
कोणें रचिली ही सृश्टी?
दृश्टी पडना, प्रज्ञामनाक कळना
अशी खंयची ही शक्ति?
केवळ एक संकल्प
एक उर्जा
आनी उत्पन्न जालें
शुन्यांतल्यान हें विश्व
उद्‌भवलें अंतराळ
सूर्य चंद्र गिरे तारे
आकाश धरती उदक वारें
मेळ्ळी गती काळचक्राक
दीस रातीक ऋतुसत्रांक
भवसागरांत हाललो एक जीव
झळकली जीवावळ
जीव जंतू पशू पक्षी

साकारली मनीस जाती
उत्पन्न हो विश्वव्याप
हीच प्रतिती, हीच प्रचिती
हें बिम्ब काय हें प्रतिबिम्ब
हें सत्य काय हें मिथ्या?
केवळ माया?

## शब्द

प्रणव ॐकारांत उत्पन्न जालो नाद
नादनिनादांत स्वरस्पंदन
श्वासा गुंजनांत निर्माण जालो उच्चार
आनी सहज प्रकट जाले शब्द
शब्द आकारले
उतरां लसलसून फुल्लीं
अनेक भास जल्मले
ह्या वाणीच्या आशिर्वादाने
मानव जातीचो वादसंवाद चलला
प्रत्येक शब्दाक ब्रह्मांड अर्थ
प्रत्येक शब्द मोलाचो
जगाचें ज्ञान विज्ञान
ह्या शब्दभांडारांत भरलां
ह्या शब्दा सांखळ्यांत
वेद उपनिशद गुंथल्यात
ह्या शब्दांतच जनपदां
सूरताल धरतात
शब्दा शब्दाक विंगड शक्ति
त्या खातीर उतरां वेंचून उलय
धणूंतल्यान बाण सूं सूं सुटता
तसो शब्द आपलें लक्ष्य वेधून घेता

परथो आपोंवक जायना
आंगाक जाल्ली जखम भरून येता
घाय सुकून वेता
पूण मनाक लागिल्लो शब्द
सूव कशी रोमता खुसखुसता
अनमोल शब्द
माये म्होवाळ शब्द
दुदावयली दाट सायशी
मोगा शब्दांक चंदनाचो लेप
पूण शब्दांक रागाची धार चडत
शब्दांची दुधारी तरसाद जाता
जाल्लो वार सोंसूंक जायना
केन्ना शब्द हुनहुनीत तेलांत
फोण्ण मारिल्लेवरी तडातड उडतात
केन्ना खोश्ये शब्दां ल्हारां
फेणेर फुलां शी फसफसतात
केन्ना शब्दांगाळी चाबूक कसो
फट्कन फाटीर बसता
गुरूमंत्रांत तर विश्वाची अपार शक्ति
अशें हें अदभूत शब्द ब्रह्म
वांटल्यार वाडता
राखून दवरल्यार घटता
शब्दांचें मोल पारखून उलय रे
शब्द अनमोल आसात.

## सदाफुली

सदाफुली
सादीशी सदाफुली
सामकी सामान्य
सर्वसादारण
सदांचीच सदाफुली
सदासुखी समादानी
सरळ सरूपी
सदाफुली
सदां फुलतली
सदां हांसतली
धवी जांबळी गुलाली
सदाफुली
कोणय पोळोवं ना पोळोवं
कोणय हांसो ना हांसो
तूं सदां हांसतली
सदाफुली
वाटेवयल्या शेंकऱ्यांत
तूं सहज सुलभ कोंबरेंतली
तूं सदां फुलतली
उदक सारें घालूंक
अपुर्बाय कोरूंक

कोणाकूय वेळ ना
पोरसांतल्या गुलाबाक
सारें घाल, उदक घाल
आळो कर, माटोव धर
ताचो तुका जाळ ना, खंत ना
तूं सदां हांसत हांसत
नाजूक चंवरां नाचयत नाचयत
धोलतली झुलतली
वाटेर येतल्या वेतल्यांक पोळोवन
मोडयो करीत हांसतली
कोणूय एकाद्रो वाटसरू
संवकळीचो हांसो चोवन
मुमुर्खेच हांसतलो
खुशीन उमेदीन
पावलां मुखार घालतलो
सदानंदी सदाफुली
अशीच सदां फुलत राव
अशीच सदां हांसत राव
सदाफुली.

# अस्मि

जन्माआदीं सजीव हांव
मृत्युमागीर जिवंत हांव
सनातन सचेतन
उर्झेकण हांव
ना उगम ना अस्त
म्हजो मोग
अणूरेणूंत व्यस्त
हांव जिवंत सृश्टी स्पंदनांत
हांव जिवंत ऋतुरंगांत
हांव जिवंत राती दिसांत
म्हजो मंद श्वास
संथ हवे ल्हारेंत
म्हजी दृश्टी असीम धारेंत
म्हज्या सपनां शिंवर
आसमंती नखेत्रांत
म्हज्या उमेदी झळ
रोपांच्या जीवनरसांत
उदेंती सूर्योदयांत म्हजी आस
अस्तंती सूर्यास्तांत म्हजें समादान
सोनचांफ्या परमळ हांव

रानरूखां सळसळ हांव
वझऱ्या निरंतर झुळझूळ हांव
मोरपाखां झिळमिळ हांव
कळयेकळयेंत लिपलेलो हावेस
फळाफळांत साकार हांव
नीळ बाणां पावसाधार हांव
व्हाळांत व्हांवतें पान हांव
धरती कुसव्या चिगूर हांव
समिंदरा अखंड गाज
सूर्या ऊब उर्जा
चंद्रा शितळ पर्जळ
हांव ह्या सर्वांचें मायासोपन
जिणे उपरांत मरण
प्राण पंचतत्त्वांत विलीन
मरणा उपरांत जीवन
परत जिवंत जीण
आदी अनादी अनंत
अशा परमेशा अंश हांव
अस्मि अस्मि अस्मि.

## उलो

कोणें उलो केलो?
आयज कोणें साद घालो?

निश्ठूर काळा न्हंये व्हाळांत
वर्सां व्हांवोन गेलीं
भरल्या घरांत उबी हांव
यादीं भार भरती
पयसुल्ल्यान सांकवावयल्यान
कोणें कुरू केलो?
कोणें उलो मारलो?
आयज कोणें साद घालो?

मायभूंये कुकुममात्येंत लोळून घोळून वाडलीं
पिवन अमृत उदीक वारें
पाळामुळां रुजलीं
आयज गांव दूर जालो
तरी जीव थंयच जडलो
कोणें उलो केलो?
आयज कोणें साद घालो?

आंबे पणसा काण्णां रुचीन
जीव रंगी जांबूळ
भूंयभाट पयस आतां
जीव आकुळपिकूळ
काळजांत कळ आयली
आयकून बांदावयली हळी
कोणें उलो केलो?
आयज कोणें साद घालो?

उत्सव परब खंयचो आयज
खंयचो सण सुवाळो
देवळादारांत झडली इशारद
घडलो सूख सुगुरवो
आयज अचरयां खंयच्यान कोणें
सुरमेळ सादलो?
कोणें उलो केलो?
आयज कोणें साद घालो?

## शिंवर

जागलें फालें
उजवाड काळखा झिळमिळी
शांत शितळ वेळ
संथ वाऱ्या ल्हारेर दरवळ
हो मंदधूंद सर्गसुगंध
ही अनामीक भूल
परमळ सुलूस सोदीत
पिशी पावलां अनवाणी
पावलीं किरांट पांचव्या पोरसांत
थंय –
डंवरला पारजत
चंवरला पारजत
आयला घोंसार पारजत
एक एक फूल स्वस्तिक
पाकळी सुंदर सात्विक
देंठ केसरी नाजूक
दाट दंवेल्या हिरवळीर
पारजत शिंवर
काळखी धरतीर खुल्ली रात
विखुरलीं नखेत्रां
आनी अंतराळांत

झगमगलीं पारजत
थंड वारो मस्तो
वेंग मारी रुखाक
चुमता आंगापांगाक
जाता पारजाती थरथर
झडलो परमळ शिंवर
झिरझिरलो सुगंध वर्षाव
भरलो श्वासांत
सळसळ रंध्ररंध्रांत
दरवळ अंत:करणांत
आंगण जालें नंदनवन
पारजातले खीण
धन्य पारजाती जीण.

## जांबळां

जांबळां
झगझगीत काळीनिळी जांबळां
शॉपिंग सेंटराचे काउंटरीर
प्लॅस्टिक पेटयेंत पॅकबंद
अडेची झगझगीत जांबळां
आनीक मन वर्सां हुपून पावलें
घाटावयले आतेले घरा
पोरसांतल्या जांबळी पोंदा
मनयत जांबूळ-सुवाळो
वयर तापलां वैशाखवोत
दोळे किलकिले सोदतात
दाट पाचव्या पानांत
जांबूळ जांबूळ धन
हुनाळ्या रजेंत
भुरग्यांलो मांकडां हिंड
घाली घुरी जांबळा झाडार
खांद्यो हालयी वयर
सकयल जांबळां शिंवर
एकेक जांबूळ येदेदे
वोत वाऱ्याक पिकिल्लें
लुटी रसरशीत जांबळां

जिबेर टचकन फुटलें
जांबूळ काळीज
जांबूळ रगत भळभळ
रस रंग रुची मेळ
जांबूळ हाश्याचो उफाळ
जांबूळ खोशयेचो वेळ
फळां होळी जांबूळखेळ
जांबूळ नशा झळझळ
जमीन जमखण जांबूळ
वयर जांबूळ आभाळ
जीब जांबळी जांबळी
जांबळी घागरो चोळी
जीवा जांबूळ गोंधळ
जांबळी जवानी चाहूल
अश्शी रंगी जांबूळ होळी
धुंदी चडली जांबळी
उमाळ्या हुनाळी
जांबळी जांबळी
– आनी
आतां खायत आसा
पाकिटांतली जांबळां
झगझगीत काळी-निळी जांबळां
कोणें पुंजायिल्लीं?
ना रूची, ना रस, ना सत्त्व.

# कोपयाळी

कड्डां खोप्येभायर
भर वोतांत
बसलां आवो
शिंवीत कोपयाळी
गोबरा जीणेक
लायत कोपयो रंगरंगयाळी
विरून विटून गेल्ले लुगटाक
मारता पोंत
मेटता कोपयो
लांबती बोंदरां पिंजून उडोवन
जोड सांदता
विस्कटिल्ले परपंचाक
भितर दोडलां
पोन्नें गर्भमोव कापड
वयल्यान दाळता आंगट्यो
एकार एक
मेळत तशी
उबी आडवी
रंग थिगळां
घडशीत जोडशीत
आपलो फाटको तुटको संवसार

दळडीराने उजरायिल्ले बोटांक
रोमता दाबण
सांडता रगत लालभणंग
गोयड्येर
रातीं पांगुरता भुरग्यांचेर
पाखाट्यांत घेत मायेउबेक
सांदिल्ली कोपयाळी.

## जात्रा

दिव्य उर्जा तूं
तुजे तेजोकण आमी
उज्या किटी फाफुडलेवरी
एकेकल्याक आमकां
ह्जा जगा जात्रेंत सोडून दिता
सांगाती पापपुण्याची शिदोरी
दिवंक विसरना
गुणांबराबर दुर्गूणय गांठीक बांदून दिता
दिलोय जल्म जाल्यार
माथ्यार हुमकळता मृत्युची तरसाद
आनी सांगता
जात्रेंत गंमत कोरून यो
कायदे नियम कांय सांगना
मागीर कळता
ह्या भोंवडीचो काळमान
पयलींच ठरलेलो
ह्या जल्मांत रीण काडल्यार
फुडल्या जल्मांत परतफेड
फाटल्या जल्माची अपुरी आस
ह्या जल्मांत पूर्ण
ही संसार जात्रा भव्य भयंकर

तरेतरे लोक
तरेतरे सामान
रंगरंगीत खेळ
विशय विश कालयिल्ले मेळ
सगळो भुलभुलैया
भोंवता भोंवता होगडावन वेता
बरें, लिनदीन जावन तुका आळयल्यार
तूं खंय येता?
लहर आयल्यार आमकांच आपयता
आरे, परथे परथे कितल्यो खेपो?
कितले जल्म कितले मरण?
कितले जाले कितले उरले
ह्या गणिताचें विस्मरण
भुरग्यांनी मांडिल्ले खेळाबशेन
परथे परथे आपयता
परथे परथे धाडता
आनी.....एक दीस
रेंवें घर पाडयिल्लेवरी
प्रळय.....
सगळें विध्वंस करता
मागीर परत.....
शुन्यांतल्यान निर्मिती
परत जन्म मरण
परत जग जात्रा.....

## झोपाळो

सांवर गे जीण झोपाळो, गे जीण झोपाळो।।
हो वयर सखल झुलयतलो ।।१।।
केन्ना उंच उंच आभाळ, गे उंच आभाळ ।।
केन्ना पावशी खोल सखल ।।२।।
सुखदुखाचो सारीपाट, गे सारीपाट ।।
राती काळखी दडली फांतोड ।।३।।
वाऱ्यासांगाती शर्यत लायली, गे शर्यत लायली ।।
पैलपारी गे नदर लागली ।।४।।
एका दमांत पावलें मळब, गे पावलें मळब ।।
खोशे तेंगशेर वेंचू नखेत्रां ।।५।।
वयलें मळब माविना उरीं, गे माविना उरीं ।।
पातळ्ळीं निळी सपनां धारीं ।।६।।
हारजैताचो झोपाळो झुलयी, गे झोपाळो झुलयी ।।
भर वोतांत सोदी सावळी ।।७।।
पापापुण्याचो ईश परमेश, गे ईश परमेश ।।
पराथणीने जाई परसन्न, गे जाई परसन्न ।।८।।

## आश्वासन

रातीं
चान्ने सावले सांगाती आपालिपा खेळता
सांवरी उशीचेर न्हीद तळमळता
काळजांत वेदने वेग
ना सुशेग
कोण साद घालता?
भायर आसमंतांत
एक गूढ शांतताय माखल्या
धर्तरी ध्यान धरून बसल्या
रुशी रुखांली स्तोत्रा पानांनी सळसळतात
पुर्विल्ले पर्वत तपश्चर्येक उबे
सामिंदराचो वेदघोश
नखेत्रांचो रासरंग
रातींचे रानपक्षी मोन्यानी आयकतात
रुप्या कुंभ रकयता चंद्र
ह्या स्निग्ध तेजांत न्हालेलें
हें विश्वची मंत्रमुग्ध
आनी हांव उबी
शांतीशाल पांगरून
स्तब्ध
मंतरलेली भारलेली

खोल गाभाऱ्यांत
श्वास गायता
गहन गंभीर गायत्री
सोऽहम सोऽहम
तनमनांत स्रद्धेचो हुंवार
व्हांवोन वेता निरशेणी
उरता एक आश्वासन
एक विस्वास
जिवजंतूक वृक्षवल्लीक
पोसतली ही सृश्टी
ह्या जिवाक सोडून घालीत?
हें कृपेचें वरदान
पोशांत भरून
धादोस जावन
धर्तरीच्या कुशींत मुंगरून
सुस्त न्हिदतां.

## ताल

मौनमुग्ध काजळरातीं
घुमट वाजता घुमघुम
घुमट काय हो काळजा ठेको
घुमचे कटर घूम घूम ।।

जागर धालो कोणें घाला
रोमटां घुमटांक भार आयला
मदमस्त तनरेंत घुमता
घूम घूम घूम घूम ।।

काळखा छात्येर मुठी मारून
घुमट खंयचे गूठ सांगता
प्रस्न ना उतर ना
घूम घूम घूम घूम ।।

रंध्रारंध्रांत अंदधुंद
रगता शिळकेंत दाट भणंग
सळसळता होच छंद
घूम घूम घूम घूम ।।

घुमटा लयीचो भांग चडता
कळत नकळत आंग धोलता
पिशी पावलां ताल धरतात
घूम घूमं घूम घूम ।।

मळबा घुमटेंत नाद घुमता
काळीज ठेक्यार ठेको धरता
आदी अनादी ताल होच
घूम घूम घूम घूम ।।
घुमचे कटर घूम घूम ।।

## वड

व्हडली आवय
आयेच्या आये
पांय निर्डून बसलां तूं आंगणांत
दोळियां मोग निस्तता
तोंडा वळें हांसो मोखता
वयर मळबांत
पिकिल्ले केंसां घोंसलो
रुखाचे बुंधे जांगो
आंगाखांद्यार भुरगींबाळां
मदीं तूं
भोंवतणी स्थापन केलां
वज्रेचूड कुटुंब
वडा रूख कसो
पानापानांत प्राण केणयला
खांद्या खांद्यांक चंवरतात मुळांपाळां
हुमकळतात भूंय सादीत
बनतात एकेक रूख
एकेक कुटुंब
मुळांतल्यान रूखां
रूखांतल्यान मुळां
खंयचीं मुळां, खंयचीं पाळां

खंयचे खांदे, खंयचे रूख
कांय कळना
ताळयेताळयेंत घुस्पल्यांत नातींगोतीं
मुख्य मर्दी वडा रूख
भोंवतणीं वाडती वंशावळ
माय मुळावी
व्हडली आवय
तूं शाश्वत
वंशरूख
वड.

## कित्याक?

इतले रूख कित्याक
कापून काडीत आसा?
आयकू पडना तुका रूखांलो आक्रोश?
तांगेल्यो मूक किंळच्यो?
कोरूं जायना उदरगत रूख मारीनासतना?
कितले दीस
तो क्रूर कर्कश खरगसा घरघर
ते निश्ठूर कुऱ्हाडी घाय
तो धप्पकन पडलेलो आवाज
ती पाचवी पानां असहाय सळ्ळ सळ्ळ
ते घायाळ हुंडके
धरती उदक वत वाऱ्याचें
इतले वर्सां उत्पन्न
दोन घडियांत भूंय भरवण
वाट कोरूंक
मनशाल्या प्रगतीक
कितले दीस
हांव दोळे चुकोवन घेतां
रस्त्या बगलांक रूखा थोटूकां
रगताळलेले आवयवशे
कितले दीस अशें चलतलें?

रूखार घाय घालघालून
नाश जातली सृश्टी संपदा
दाट जातली हवा धुळीधुंवरीने
वातावरण धगधगतलें
उदक विशाळतलें
धरती कातखवळी निखळतली
मागीर तूं -----
श्वास घेवंक तूं तडफडतलो तळमळतलो
कसो तूं इतलो निश्ठूर रे
कसो तूं इतलो मूर्ख?
उदरगती नांवाने
पांयार कुऱ्हाड मारून घेता
स्वतालो सर्वनाश कोरून घेता
कित्याक?

## दूदसागर

कोण रकयत आसा इतलें दूद
दोंगर सुळक्यांवयल्यान?
हें दूद काय उदक
काय शिवजटेंतल्यान व्हांवतली गंगा?
कोण करीत आसा
अविरत दूदधारे अभिशेक
सहस्त्रकोटी फेणफुलां अर्चना?
हो उदका घसघसो
वयल्यान सकयल पडत आसा
काय तळांतल्यान वयर चडत आसा?
हो प्रचंड प्रवाहा ओग
इतल्या उचांबळेन खंय धांवता?
इतल्या निश्ठेने जिवाची आहुती दिता?
कोणा खातीर हें बलीदान?
खोलखोल
पाचव्या पानराना पाताळांत
कपाळमोक्ष करीत आसा?
बेधडक धांवतना खदाखदा हांसता
काय हुंडक्या हुंडक्यांनी रडता?
सैमाचें हें अपरूप रूप पळयतां
तिचो जल्लोश आयकतां आयकतां

धुंद तनरी लागता
ही कसली तपश्चर्या
आनी कितलो काळ?
हे दूदसागरा
असो निरंतर व्हांवत राव
तुजो हो उमेद उर्बे ओग पोळोवन
आमच्या जिवाक
पोसोभर उत्साह मेळूंदी.

## वण्टी

विशाळ सोबीत धरती
थंय कित्याक बांदता वण्टी
स्वताले स्वत्व राखूंक
बंदखणींत स्वताक कोंडून
स्वताभोवंती बांदीत रावता
वण्टीच वण्टी
घराभोंवती वण्टी
घराभितर वण्टी
देशसुरक्षेक दुरीग बांदता
गडाभोंवतणी तट
वाड्या भोंवतणी भिंत बांदता
दाराक आडी घट
शेताभाटांक मेर बांदता
आंगणा भोंवती वंय
वाठारा सुत्तुवान कुंपण घालता
वण्टी जंय थंय
चिऱ्याचे फातराचे
इटांचे कांट्यांचे
कांड्याचे कोंड्याचे
लोखणाचे सळ्यांचे

जाती पातीचे
भासाभेसांचे
कर्माधर्माचे
वण्टीच वण्टी
वाठार नपुरो दिसल्यार
शेजारच्या पाडटा वण्टी
चार पावलां जागो जिखूंक
लाखो जिवां आहुती
आखिरेक पुरो तुका
अडेच हातां माती
छिन्नभिन्न करून धरती
कितें साध्य करशी
विधात्याने रचली सृश्टी
सगळे मानव एकच जाती
आनी घर विशाळ धरती
थंय कित्याक इतल्यो वण्टी?
वण्टी पाडून वण्टी भेदून
केन्ना भायर सरतलो
स्वतंत्र स्वच्छंद
केन्ना तूं जियेतलो?

## पुजारी

अजून सूर्या मऊमोडां पांगरोन
साकरन्हीदेंत लोळत आसा
एक सांवळी दुबळी मुर्ती
पटपट पावलां घालीत
दोंगर फातरां पाणणी चडटा
कमरेक जीर्ण अनवाळें
हातीं ताट अधांतरें
शिंया कलकल्यांत स्तोत्र पुटपुटत
पुजारी
दोंगरमाथ्यावयल्या देवळांत
देवाक जागें कोरूंक वेता
सुप्रभात सेवेक
नित्य रूढी
स्तोत्रपठण वेदपारायण
अभिशेकाक निर्मळ नीर
गंधफूल खडीसाकर
मंजूळ घंटानादेंत पंचारत
उदंड साश्टांग नमस्कार
उपरांत प्रार्थना
देवळांत एक नरकावळो ना
पडग्यांत एक पयसो ना

शास्त्रोक्त स्तोत्राचो सूर वाडता
नाद गाभाऱ्या घुमटांत घुमता
पुण्य शेल्या गांठीक
पूण फळ केन्ना मेळटलें
मनांत एकच आस
कुटुंब बाळांक घडोवं नाका उपास
पुजारी नियाळीत आसा देवाक
देवूय नियाळता पुजारीक
निर्विकार.

## वलय

विश्ववलय
वलयांत वलय
अखंड ब्रह्मांडांत
अखंडीत मंडळ
मंडळांत मंडळ
वर्तुळांत वर्तूळ
वलय वलय
सूर्यचंद्र गिरे तारे
तनरींत तल्लीन मारी फेरे
एक विशिश्ट लय
एक विलक्षण शासन
विश्व मंडळी
एक अज्ञात शक्ति
त्या आदिशक्तिक प्रदक्षिणा
मंडळांत मंडळ
वलयांत वलय
रातीं दिशीं दिशीं रातीं
गोल पृथ्वीचे गोल भोंवारे
भरती सुकती अनंत घेरे
काललयांत ऋतुचे फेरे
संसारयात्रे भोंवडी
जन्म जुवानी जाण्टेपण

निश्चित घेरे जीण मरण
बीं झाड फूल फळ
रुखाचो अंत आंकरे मूळ
वाफ कूप पावस जळ
जळमार्गाचेंय मंडळ
केदी ही विश्वरचना प्रचंड
पूण एक तत्त्व मंडळ मंडळ
शाश्वत सनातन
घुंवता कालचक्र
वलयांत वलय
अखंडीत वलय
विश्व वलय.

## दायज

फेस्त सांतेक
पसरो मांडोवन कोनश्याक
बसला दादू खोटलेकार
वयर फुलला गीमा रखरख
पूण दादूची बोटां
विणीत रावल्यांत
युगांतरा जीणे काणी
खोटले पाटले कंडे कंडुलां
धाकण्या पेटारे नक्शे आयणे
सूप सुपल्यो थाळ्यो कुरपणे
वेता दांड्याचे वेळू कोंड्याचे
तासून तिस्त्यो सणातागाचे
विणता खोटले दादू खोटलेकार
आखाण्यार बोट बोटार आखाणो
दाव्यार उजवो उजव्यार दावो
जांबळी धवी पाचवी धवी
उबी आडवी आडवी उबी
वळ घालून ओडून आंवळून
विणता नक्षी युगायुगांची
कथा सांगतात जिणमरणाची
सुखदु:खाची हारजैताची
कुशळ बोटां खोटलेकारांली

विणतात खोटले कुरपणे
भर बाजारांत गिरायक घेता
नकली बनावटी वस्तू खिणयाळी
झगझगीत लखलखीत रंगरंगयाळी
दोळ्यार वोक्लां झापडां लावन
आयले हांसत चारपांच भुरगे
दादो, तुजे खोटले कोण घेतलो रे?
खिणभर विणची बोटां थामलीं
थरथरलीं
रोखडेंच विणूंक सुरू केलें
धा वर्सां पुताक आपयलो
असो यो, विणूंक घे
वळ घालून आंवळ
वीण घालून ओड
पुर्विल्ली कला ही
अणभवान शिकून घे
येदोसो कुरपणो
माणकुली बोटां
उजव्यार दावो
दाव्यार उजवो
आखाण्यार बोट बोटार आखाणो
परंपरेची देण ही
हेंच खरें कर्तुब
तूंच वारीस रे हक्काचो
उलयनासतना बापायन सांगलें
दायज सांबाळ पोरा
दायज सांबाळ.

## मातशें राव

मातशें राव
आनी थोडो वेळ राव
घडी दोन घडी
अजून जाणून घेंवचें आसा
उतर दिगंतराचें
अजून हांव उबी
दोंगर माथ्यार
आयुश्याच्या तिनसांजे
अथांगाचो थावो घेत
अजून नदर पैलपारा
धुंदाळीत कल्पकल्पांतरा
आतांच खंय मातसो संकेत जाला
आतांच खंय देखूंक आयल्या
काळखाक उजवाडाची देग
अदृश्टाचें झळक जोगूल
मातशें राव
आतां मनाक वेध लागल्यात
अशी उचांबळ
अशी ओड अनावर
केन्नाय खंयच्याय खिणा

जायद दिठ्येपयल्यान
दिव्य दिश्टावो
खिणभर दिसत
अविरत उर्जेचो
पर्जळ
इतलेंच
हेंच पोळोवंदी
एकूच धादोस श्वास घेवंदी
मागीर.....
हांव आपण जावन
दोंगर माथा देंवून
तुजेसरशीं येतां.

## वेधू

चकोरीक चंद्राचो ध्यासू ।।
लोखंडा परिसा सोनस्पर्शू ।।
अणुरेणू विश्वा अंशू ।।
लागलो वेधू ।।१।।

आर्त कोगिळेचो स्वरू ।।
वेलीक रुखाचो आधारू ।।
काळजाकमळांतू भ्रमरू ।।
अंतरी आस ।।२।।

ल्हारां पुनवेचंद्रा ओडी ।।
बाळा मातेदूदा गोडी ।।
उतावीळ जीवा जोडी ।।
तोची परमेशू ।।३।।

मृगाक कस्तुरीचो शोधू ।।
धुंद करता अमृतगंधू ।।
आत्म्या परमात्म्या ना भेदू ।।
जन्मांतरी ।।४।।

सागरसरिते मिलन ।।
साकर दुदांत विलीन ।।
तसो जीव शिवाधीन ।।
समर्पण ।।५।।

## हांसो

जगाचो परजळ
खोशयेचें लक्षण
जीणे
मानवजाती वरदान
हांसो ।।
निरशेणी काळखेंत
फांतोड फुलयता
तनामना दुखाची
यातना निवळायता
हांसो ।।
संतोश हर्षाचो कारंजो
जीण उरबेचो फवारो
कठीण काम सोंपें करता
तरी कोमल कोंवळो
हांसो ।।
जाका मोल दिवंचें पडना
जाचें मोल कोरूंक जायना
वांटल्यार वाडता हें
अजीब अमोल धन
हांसो ।।

दुस्वासा परस प्रबळ
सहज करी शत्रूचो नाश
जिखून वैरीले काळीज
करी शत्रुचो मित्र
हांसो ।।
सबंद विश्वाची भास
जाका शब्दांची ना गरज
परक्याक आपलो करून
दिता विश्वशांतीचो संदेश
हांसो ।।

## संकल्प

कर तूं संकल्प
आकांक्षे अक्षत हातीं धरून
कर तूं संकल्प
तनमन ध्यान लावन
चित्तीं जीवन हेतू धरून
कर तूं संकल्प
अन् नि:संकोच चलत राव
चलत राव कर्तव्यमार्गार
एखादे आडमेळार
पांय आडखळतले
फातरीर पांय सोलतले
कश्टा कांटे खोमतले
अशा वेळी
दुबावा मोडां दूर सार
ध्येयाचें ध्यान धर
संकल्पशक्तिचो
आत्मविश्वास मनी भरतलो
मागीर

मागीर कांटेय मोव पडटले
फातरगुणेय पांय पोशेतले

आडमेळा खडपार पांय दिवन
मुखार चलत राव
संकल्प हो निर्धार
संकल्प हो विश्वास
मोखप जिखप तुज्याच हातीं
संकल्प ही उर्बा
संकल्प ही स्फुर्ती
प्रामाणिक कार्य केल्यार
निश्चित जातली
संकल्प सिद्धी.

## भूंयपूत

अन्न पिकयतलो अन्नदाता रे तूं
अन्नाखातीर तळमळता
जिवन दितलो जिवदाता रे तूं
जीव दिवन कितें साधता?
कितले राज्य आयले गेले
मनीस हिमालयार चडले
चंद्रार स्वार जाले
गिरे तारे हालले
तूं मात आशिल्लो थंयच आसा
कालचेवारी आयज
आयचेवारी फाल्यां
उबो रखरख वोतांत
निढळार हात दवरून
त्यां निर्विकार मळबाक पळयत
जळोवसो सुकत जळत
आनी खंय पावसान
चार शेण्णां शिपलीं
तर कमरे कणो मोडून
खडतर जमीन कसता
हलक्या हातान बीं पेरता
उदका बराबर हूम रगत शिंपता

भूंय माते पूजा करता
मातये धिपळी भीजंऽ
कोंभ रूजं ऽ
तशे मोतियांनी खचखचून भरता कणीस
केळ पावता मळबा
गाबुळता पणस
पूण भूंयमातेली लहर तशी
केन्ना मोती केन्ना माती
खळ्यांत जरी मोतियां राशी
तरी तूं रे सदां उपाशी
धरती निर्मिली विधात्याने
भूंय पोसली भूंयपुताने
आखो जीव उधार उडोवन
तिचो तिळो भाळी लावन
तूंच करता ह्या काळ्या आवयची पूजा
तूंच खरो भूंयपूत
तूंच भूंयपूत.

## स्वरगंगा

सखया,
कितले सुरेल, कितले सुरम्य
तुजें सैमसंगीत
ह्या सर्गसंगीताचे सूर
सबंद सृश्टींत घुमतात
आसमंतांत
वाऱ्या ल्हारीर आलाप घेतात
पानापानांत पल्लवी गायतात
पर्वतशिखरांत साद घालतात
व्हाळ वझऱ्यां सांगाती घुंगरा बांदून
खडपां खडपांर रूणझुणतात
कुपां शंखनाद
अथांग समिंदरा मंत्रघोश
पक्षीपदां आरोह अवरोह
आळयतात तुजीच महती
घुंवतात घुमतात
अखंड आसमंतांत
भोवरून एकरूप जातात
गर्भशांत मोनेळांत
स्वरगंगा

आनी हांव
उबी ह्या संसारांत
जंय हें सर्गसंगीत होगडावन
आवाज एकमेकार आदळतात
आक्रोश करतात
धायी दिकांनी
कर्कश कल्लोळ
तापलेल्या सळ्यांवारी
कानापडदे पिंजून
भितर सरतात मेंदवांत
अश्या वेळीं
एक घडी थाम
हात दवर काळजार
आयक
काळीज पखवाजा ताल
श्वासा ॲंकार
रंध्ररंध्रा हुंकार
प्राणप्रवाहा झंकार
आयक अंतर्नाद
त्याच सर्गसंगीताचो पडसाद
ह्या स्वरगंगेंत
सगळे भेसूर बेसूर सूर
विरून वेतात

त्याच सुरांत सूर मेळोवन उलय
त्याच छंदतालांत पावलां मेळय
निसर्गनियमांत जीण जगय
सैमसंगीतांत सम जूळय
आयक
तुगेलेच काळजांत
प्राणसंगीत
सैमसंगीत.

## शार

शार मनशा प्रगती
शार मनशा गरज
शार मनशा पिसाय
शार मनशा आवतिकाय ।।
शार भूलभुलैया भिरांकूळ
शार मुयांचें वारूळ
शार चैनी मायाजाळ
तळा गाळा तळमळ ।।
शारांत गगनचुंबी इमले
शारांत सपनमनोरे
गल्लीगल्लींत शिकारी
शारांत जुलूम पांजिरी
शार कोपिश्ट निश्ठूर
तरी काळीज कोमळ
धरी जखमी छात्येर
थकिल्लीं भुरगीं बाळं
शारा तारवडल्या केंसार
आकाश मुकुटा शिणगार
वोतान रापिल्ल्या मुखार
हांसो सोंशीक सोज्वळ
जायना सोडूंक जायना रावूंक
अशें हुमाणें हें शार
माये व्होटयेंत ऐसपैस
दिता आलाशिरो शार.

# खंय गेलो म्हजो गांव?

हालत्या धोलत्या माडांमदीं लिपिल्लो
म्हजो गांव खंय गेलो?
खंय गेलीं तीं पाचवी चार शेतां
मदी भांग कशी मेर
जिरसाळी परमळ
खंय गेली ती लाल मऊ मातये वाट
जी सरळसोपी घरी पायताली
हांगा तर काळो क्रूर रस्तो
तापिल्ले दामरार गाडयो भरधांव
खंय गेलो तो पिंपळ
हांगाच तर आशिल्लो उबो
हजार हातांनी येवकार दीत
आतां त्याच जाग्यार बाजारा चौक मांडला
चारी दिकांनी गोंदळ
मदीं दिव्या खांबो उबो मख्ख
थंय माळार
आमी खूब खेळल्यांत
धुळी गुलालांत माखल्यांत
मस्त रंगल्यांत
वयर मारूती गड
दोंगरार काजी काण्णां चुन्नांच्यो राशी

आतां दोंगर खणून खांचीखांचीनी
पारव्या बिडारां कशी घरां
माळ लाचार लवंडिल्लो
थंय पातळायला कोयर कचरो
खंय गेलीं गांवची बैठी घरां
आंब्या पणसांनी भरिल्लें पोरसूं
खंय गेले जायाजुयां मांटोव
तो रथ कसो फुलिल्लो अनंत
खळखळत धांवतलो व्हाळ दिसना
म्हेळे उदका कंगाल कोंड हांगा
ती सादीभोळी गांवचीं मनशां खंय
दिसतात आतां रुपडीं बांदिल्ले लोक
नवी नवी भास नवे नवे भेस
सगलो गजबज घुस्मट
ही गांवची उदरगत?
हो म्हजो गांव
वाट चुकून खंय आयलां हांव?
खंय गेलो म्हजो गांव?

## संदेश

तुजें आसा तुजेकडेन
अपूर्व अनन्य खजिनो
तुजी अस्मिताय
तूं जें करता तेंच तुजें अस्तित्त्व
तुगेलें करप बरप चिंतप सगलें खाशेलें
जल्माक येतना तुवें
कानांत फूंक मारून
निर्मात्याने ल्हवूच हो संदेश दिलो
''वच.....
पूण हांवें निर्माण केला
तसोच राव
त्या अस्मितायेचो सांबाळ कर.''
अगणित जीव हे
एकाच जातीचे एकसारके
तरी जण एकलो आगळोवेगळो
कितले मनीस येतले वेतले
प्रत्येकाचें लक्षण वेगळे गूण वेगळे
रंगरूप वेगळे चरित वेगळे
बोटाचे ठशे जशे
केंसा मोवळां नदरे मोख
चाली लकब उतरां धार

प्रति एक विगंड विशेश
एकावारी एक ना
फुलावारी फूल ना
घुल्यावारी घुलो ना
तुका मुद्दाम असोच घडयला
विशिश्ट हेतूने जगांत धाडला
नीज जिवनध्येय पारखून घे
सिद्ध करून घे
दुसऱ्याले मुशींत स्वताक वोतूं नये
दुसऱ्याले रंगांत स्वता रंगू नये
मुळां खोल जिवंतजळांत पसरय
आसात ते गूण परजळय
पयलीं केदनाय जावूंक ना
फुडें केदनाय जांवचो ना
असो तूं असामान्य
अपूर्व
अनन्य.

## विद्या

विद्या जिणेचें खरें भूषण
विद्या खरी संपत्ती
अशें हें धन, अशी ही पूँजी
कोणाकय चोरूंक जायना
व्होरूंक जायना
मना कोठाऱ्यांत भरिल्लो भांडारो
केन्नाकाळी सोंपना
दान केल्यार
विद्या आदीक वाडता
काळ व्हांवता
तशी शरीरशक्ति क्षीण जाता
सौंदर्य सरत वेता
पूण विद्येचें तेज
दिसान दीस लखलखत रावता
विद्येशिवाय उदरगत ना
ना प्रगती ना संस्कृती
विद्येचें वरदान धन लाभ किर्ती
ना अन्य परममित्रा विद्येशिवाय
ना आनी मनोरंजक सखी
विपत्तीकाळीं नदरेआड वेतलें वांगडी
उरतली विद्या साथीसांगाती
विद्येचो उपेग उचीत कारणी
तेजाळतली समर्थ जीण तेणी.

## चिरंजीवी

देवाले वरदान तूं बाळा
आमच्या खोशयेचें स्वरूप
दोळ्यांत रे तुज्या
निळ्या निळ्या आभाळाची आस
वोंटार रे तुज्या दूद म्होंवा श्वास
वाऱ्यावारी चपळ रे तूं चंचळ
भुरूभुरू कोंगऱ्या केंसांची भुरळ
दृश्टी जादूनगरींत तल्लीन
हांसरे निरागस मुखामळ
हात फांकारून
पाखटां फुलोवन
धांवता तूं स्वच्छंद
धरती समुद्रा देगेर
उतावीळ ल्हारांवांगडा नाचता
फेणेरा खातकुल्यांक
खळखळून हांसता
हो अथांग समिंदराचो विस्तार
आनी तूं कितलो सानुलो रे
माणकुल्या हाता बोचकुलांत
दर्याचें उदक भरता

दर्याकूच ओंपता
हो लखलखतो सूर्या
मोखलो देवा म्हजेकडेन
झेलूं कसो पिंजक्या पदरांत?
हो सळसळतो वाऱ्या झोत
धरूं कसो म्हज्या गोपांत?
बाळा तुज्या येदेश्या हाता पोशांत
सर्व जिणे उर्बा उमेद रे
सत्तेचो वारसदार तूंच रे
तूंच चिरंजीवी.

## शक्ति

अस्तुरे,
मनीसजातीचो सन्मान तूं
पुरूशाली संपदा समृद्धी
आपल्या अस्मितेची जाण घे
अबलेची तिळो लावन
युगानयुगां तुज्या बळाचो अपमान
तूं सहन करीत आयलां
सन्माना ऐवजी अपमान
अवहेलना झेलीत आयलां
धीर, त्याग, शक्तिची मूर्त तूं
दी अग्निपरिक्षा....
यज्ञांत जिवाची आहुती दींव नाका
दुगदुगीत राखेंतल्यान
उज्या केण कशें
परजळत यो
उज्या मुर्शींत लकयिलें तरी -
धगधगत झगझगत
भांगरावारी शुद्ध जावन
जाळांतल्यान भायर यो
खूब सहन केलो अन्याय अत्याचार
आनी विटंबना सोंसूं नाका

निडर निर्भय जा
अजिंक्य अपराजीता तूं
शक्ति तुजी आजमावन घे
जन्मदात्री जिवदानी तूंच
जिणेचे संस्कृती संस्कार तूंच
स्त्रीशक्ति जागृत कर
शक्तिचो संचार
पळयत उरतलो संसार.

# अंवसर

क्रोध
एक अंवसर
एक बेफाम घोडो
वेळार लगाम घालीना
तर बेभान चौखूर उधळी
चवताळिल्लें चक्रीवादळ तें
निमिशांत संबंध हुमटावन उडयता
पळभरा पिसाय ती
जल्मभरा पिडा दिता
तळपावलां तिडक माथ्यार पावली
कीं आंगार चडटा भारा थरथर
जागो जाता देंवचाराक
ताचेबराबर नाचतात पिशाच्च
दुस्वास नसाय दुराचार
धुमशेणा कांडीत
क्रोधाच्या अंवसरांत कितेंय घडत
बुदवंतालीय बुद्धी भ्रश्ट जाता
मनांत इंगळे आंगाक उजो
त्या जाळांत करपतात नातींगोतीं
किंवाट्या पित्त खुबळलें

तशें खर आम्ल चडलें
तें झणझणीत वीख
दुसऱ्यार घालचें पयलीं
तुज्याच तनामनाक बादतलें
तुज्याच काळजाक छेदछीरे
तापल्याची आनी तापयतल्याची हानी
राग पिडीना असो मनीस ना
रागाक मूळ कारण अहंभाव
ह्या मदमस्त रागाक काबूंत धरूंक
संयमाचो अंकूश गरजेचो
मानवजाती शिराप हो कोप
जो करता क्रोधार जैत
तोच धीरवंत शिरवंत.

# भेट

वचचो वेळ जालो?
आनीकूय अर्द वर आसा, पुता
दोन तीन वर्सांतल्यान
तुगेली एक फेरी
आपल्या मायभुंयेक
आवय बापायक मेळूंक
इतलें काम रगाड्यांत
धा दीस काडून तूं आयलो
जिवाक बरें दिसलें रे
धा दीस सवण्यापाखांनी उबोन गेले
धा दीस घराक जाग आयली
सालांत केदो बोवाळ
रांदचे कुडींत गोंदळ
तूं ना जाल्यार दुश्काळ रे
बायल भुरगीं येवूं नात
तांकां हांगसरलें हवापाणी भावना
आरे, थंय सगलें मेळता खंय
दूदमधा गांव खंय तो
घरांक रुप्या वण्टी भांगरा नळे
खरें?
जावं, तूं आमकां भेटूंक आयलो

इतल्यांत सगलें पावलें
आतां तुवें वचचो वेळ जालो
आमचो राजकुंवर वेता
सात समिंदरा पलतडीं
घडीभर राव रे पुता
देवाकुडींत वात पेटयतां
सूर्यानूय वचची तयारी केल्या
पूण तो फांतोडीर परथून येतलो
सदांबशेन
तूं आतां केन्ना येतलो?
तुज्या यादीन
अश्रेकणीन
जीव जाता आकूळ पिकूळ
खंयतरी तुका
पयलींचो उगडास जाता रे?
आसूं
धा बारा दीस मेळतात तितले पुरो
अंतीम क्रिया कोरूंक
मुखारीक.

## कांचनमृग

कांचनमृगाचो पाठलाग करीत
खंय भटकशी?
ह्या सुवर्ण मायामृगा फाटल्यान
धापेत खर्शेत धांवोन
पावशी घनघोर आडरानांत
भांगरा लोभान अंदुकेल्ले दोळ्यांक
दिशाभूल जायत
आपलो प्रदेश सोडून
परदेशांत भोंवत भटकत रावशी
मायभूमी आसून जातलो निर्वासीत
आपल्या संस्कृतीची बहुमोल पुँजी सोडून
पयसो पुंजावंक वनवन भरकटशी
वित्तवैभव जोडूंक मग्न जालेल्या मनाक
कर्मधर्म कर्तव्याचो विसर पडत
अर्थाक धर्माची सांगड ना
थंय अर्थाचो जाता अनर्थ
कांचनमृगा पाठलाग करतां करतां
जिणे रामायण घडत
वेळींच सादूर जा रे
सादूर जा.

## समिंदरा

समिंदरा
एक अथांग रहस्य तूं
एक अगाध उर्जा
नियाळतां विशाळ दर्याधार
मनच दर्याळता
अनंतकाळाचो साक्षी तूं
सगळ्यां परस वंयोवृद्ध
सगळ्यां परस तरूण
स्थीर तरी अस्थीर तूं
कितलो घन गहन गंभीर
पूण मदींच खबळून उठयता
वादळ भिरांकूळ
जो सागर उधळून फेणफुलां
खळखळून हांसता
जो सहस्त्र बोटांनी
ल्हवू पावलां पोशेता
तोच सागरा ओग
कितले जीव ओडून व्हरता
विस्वासाचो घास गिळता
वयल्यान दुकां गळोवन

करता उदीक खारट
रे लोभी तूं
अपार धनसंपत
दवरता खजिनो सांबाळून
असोच केन्नाय जावन उदार
करता रत्नांचो शिंवर
असो कसो तूं
विलक्षण रे विसंगत
शुद्ध अशुद्ध बरें वायट
सगलें सामावून घेता
नीज पवित्र पावन जाता
आनी आमकांय करता पावन
रे समिंदरा
म्हणूनच येतां म्हऱ्यांत हांव
परथें परथें
जातां पावन हांव
परथें परथें.

## दायी

फांतोडीर, कोंब्यासादीर
दायी भाणाक चुट्ट्यो पेटयी
रान्नीक उजो घाली
माका इस्कोलांत भूक लागू नये
म्हणून मोव उकड्या पेज
आंबले करमी लावन भरयी
केंसांक नाल्लेल लावन भांग काडी
घट्ट विणी घालून फीत बांदी
स्वच्छ धुल्ले कपडे घाली
पांयांक मेय बूट चडयी
पदरा शेवेन बुटावयली माती पुशी
कुळाराच्यान येतना
आई बराबर दायी आयिल्ली
आईन देवागेर वेतना
दोळ्यांनी सांगलें खंय
म्हज्या चलियेक सांबाळ गो
आनी हें दिवूंक नाशिल्लें वचन पाळूंक
आपलो गांव सोडून
आमगेर राविल्ली दायी
म्हजो सांबाळ करूंक

दारांत उबी
बागवलेली, जाण्टी
माये नदरेन माका पोशेत
तिचे आभार मानूंक ना हांवें
तिका फाटल्यान वळून पोळोवंक ना
फाटकाभायर मैत्रिणींकडेन
गजाली उलोवंक हांव गुल्ल
माया मोग कितें
हें हांव आठ वर्सांचेर
कितें जाणा?

## रीण

याद आसा तो दीस?
तें गडद आकाश
गर्भकाळखांतली नखेत्रां
याद आसा?
आवयल्या परीश्रमांतल्यान
तूं जल्मलो
कुपां पिंजून भायर सरलो
उदेलो तांबडो सूर्यसो
धरतीमायेन घडयलो
सैमान वाडयलो
वत वाऱ्यान पोसलो
आतां रगतरीणा परतफेड करीना?
गाजयत आयलो तूं धरतीचेर
आपले जल्मसिद्ध हक्क
जननिल्यो दिणांचो उपभोग करून
जालो तूं श्रीमंत
आतां करीना भरपाय?
दिल्लें वचन पाळीना?
सगली सृश्ट बदलत आसा
सैमसंतुलन हालत आसा
अजून सगलें विध्वंस जावं ना

आनीक वेळ काडूं नाका
आनी कितलो
आनी कितलो अपमान
सहन करतली ती जननी
एकच माय ही भूंय
आनी खंय जल्म घेतले
कोणालो आसरो सोदतले
जिवनदात्रीलें रक्षण कोरून
पावयना हें रीण
हें जल्मरीण?

## मित्र

ताची जात खंयची?
खंयच्या धर्माचो तो?
जातपात खबर ना
कूळधर्म खबर ना
खबर इतलेंच
की तो दयावंत मनीस
गरज आसा ताका मजत करता
दीन दुबळ्यांक हात दिता
ताचे कडेन ना सत्ता
ना अधिकार
ना दुडवां आदार
एक सादो सरळ मनीस
परोपकार ताचो सहज धर्म
भुकेल्ल्या तोंडांत, आपल्या वांट्या भाकर भरपी
कोणाच्याय पांयांत तोपिल्लो कांटो
ल्हवू हातान काडपी
आंगावयलो शेलो
शिंयान कुडकुडटल्याक पांगुरपी
धर्माचो विचार प्रचार करीना
जिवाभावान मजत करीत रावता
असले कारभार ताचे

काळीज उदार
मनमळब विशाळ
वाचीनासतना शास्त्रांतलीं तत्त्वां जगता
हाचे परस खंयचो धर्म श्रेश्ट?
हाचे परस खंयची जात व्हडली?
हो तर म्हान मानवमित्र.

## सत्य

सत्य सगूण सुंदर
सधन सत्याक
ना गरज अलंकाराची
सत्य दिव्य भव्य पर्जळ
सत्याच्या प्रखर उजवाडांत
दिसता फातरांत वज्र
आनी वज्रांत फातर
सत्य नित्य निरंतर
निर्मळ व्हांवतो निर्झर
सत्य शांतिमंत्र
सत्य शक्तितंत्र
नितीमुल्यांचें सुत्र
न्यायाची बुन्याद
सत्य होच सर्वधर्माचो सिद्धांत
सत्या शिवाय जीण व्यर्थ
क्षणभंगूर दिखाव्यान
दिपल्यात आमचे दोळे
आलायते अडेचे सुखाचे
जाल्यात आमी गुलाम
संस्कार सदाचार विसरून
देंवती निती निसरडीर

निसरत घसरत चलल्यांत आमी
जांव दी सत्याचो अविश्कार
त्या उत्कर्शाच्या तेजान
जांव दी आमी जागे
जांव दी सत्याचो साक्षात्कार
सत्य सुंदर सत्य सनातन
सत्यमेव जयते।।

## रांदची कूड

देहाक पोट
तशें घराक रांदची कूड
कितें सांगूं थाट
आजेल्या रांदचे कुडीचो
फळ्यार लखलखीत आयदनां
शिंक्यार दुदी तवश्यांची तोरणां
पियावाच्यो शेंपड्यो बांदून
आड्याक लांबयिल्ले झेले
मर्दी लवंगी मिरसांगे माराण
कट्ट्यार चुलीची आरास
सदां तिका लाल मातयेन लिपून
व्हंकल कशी नटोवप सजोवप
मागीर लांकडां मांडोवन
उजो पेटोवप
कोठयेकूड तर आलीबाबाली गुंफा
सांबारे मसाल्याचो घमघम
व्हडली व्हडली पिंपा
बरण्यो कंडुले भरलेले
रांदचे कुडींत भुरगीं
केन्नाय पाखे कशे भिरभिरत
पूण आजेलो धेंगसो कर्दनकाळ

दोळे पेटिल्ले इंगळे
हाता सकल सुनो चेडवां बोवाळतालीं
तिनी तिकाळ रांद वाड उश्टीं काड
चाळीस एक पानां लागतालीं सहज
चुलीक आनी आजेक
ना सुशेग
माकाय दिसं ऽ
म्हजी एक रांदची कूड आसची
फूऽ फूऽ करून उजो पेटयन
आजेन रांदिल्लीवारी कडी रांदीन
मागीर खातखितल्या रांदपा बोवाळ
तीन गुण्यांचेर येदीशीं पतलीं
मुश्टीभर तांदूळ गोडा कुडको
करपल्लें अर्दशिजिल्लें पक्वान्न
मिटक्यो मारीत भुरकप
सद्या माका स्वताचें किचन गावलां
कुकर अव्हेन मिक्सर फ्रिज
गॅस स्टोव्ह चार चुलींचो
चौफेर केबिनेट मसाले रेडीमेड
बटनां दाबलीं कामां जालीं-
अर्विल्लें रांदप एकदम सोंपें
पूण ह्या मॉडर्न किचनांत
खंयतरी शेणल्या गे
ती पुर्विल्ली रूच
तो सयसुवाद.

## अळंकार

माये, कित्याक भांगर शिंगर
निरागस नेण्टे बाळाक?
हातांक कडे बोटांक मुदयो
गळ्यांत पोंवळ्या माळा?
कोणय चोरून व्हरत भांगर
खंय शेणून वचत
वाटेवयलो चोर अचळय
भुरग्यांक उचलून व्हरत
भांगरा शिंगरान नटोवन माये
भुरगें जालां भावलें
भुरगें भयान हालना धोलना
बसून बसून बावलें
भांगरा मायपास सोडय माये
मेकळ्या वाऱ्यार खेळूं दी
उमेदीन भरिल्ल्या पोराक माये
आंगणभर नाचूं दी
घालचेंच जाल्यार घाल गे माये
सदगुणांची गळसरी
हातीं चडय धर्मकांकण
सत्य वज्रा थिकी
घाल गे भुरग्यांक निर्भय निर्मळ

सभ्यताये आंगलें
खोय गे माथ्यार धैर्या तुरो
पांयांत शिस्ती वाळे
हेंच जडजवाहिर माये
हेंच खरें भांगर
संस्कृताये संस्कार माये
होच खरो अळंकार.

## कुवाडें

आजून कळ्ळो ना
जिणेचो अर्थ?
व्याप कित्याक?
चिंतप सगलें व्यर्थ
याद कर त्या सर्वव्यापकाची
जीण दिसता कुवाडें कठीण
तरी उतर सहज सरळ
प्रति एकालो उगम
त्या दिव्य उर्जेंत
अंती त्या उर्जेंतच संगम
हाचेपरस आनीक ना
जिणेक दुसरो अर्थ
त्या सर्वव्यापकाने
केलें उदार दान
दिलें अमोलीक जिवन
ध्यानी धरून तें रीण
जिये तूं जीण
त्याच शक्तिप्रेरणेन
चलता जग जिवन
आनीकूय खंयचे सोदता तत्त्व
हेंच शुद्ध जीवन सत्त्व

पारदर्शक आरसो हो
मायाजाळा पडदो दूर करशी
सुप्त गुप्त लिपून राविल्लें
जाता प्रकट स्पश्ट
जें अदृश्य अज्ञात
तें जाता जागृत
त्याच सामर्थ्याचो अंश तूं
हेंच शाश्वत सत्य
होच जिविताचो अर्थ.

## जाप दी

ज्या पवित्र देशांत
देवीली आरादना जाता
त्याच देशांत
देवीलें प्रतिक अस्तुरी
हिची अवहेलना कशी जाता?
जाप दी ।।
जीव कुसव्यांत सांबाळून
मनीस जातीक जल्म दिता
त्या जिवदानीक
जिवनाचेर अधिकार ना?
तिणें जल्म घेंवचे पयलींच
गर्बांत छिन्नविछिन्न करून
जिवानीशी मारून उडयतात
हो तिचेर अन्याय न्हय?
जाप दी ।।
जल्माक आयलीच जाल्यार
तिचो जगचो हक्क हेरावन घेतात
कमळदेंठावारी कोमल गळ्याक
तीख नाखटां लावन
विशा दूद पाजून
ओंठा पाकळ्यांत मीठ भरून

कयरसो कचऱ्या डब्यांत उडोवन
न्हंयच्या पात्रांत बुडोवन
जिवीच मातयेंत पुरून
मारून उडयतात तिका
न्हंयच्या दडयेर मेलेली मासळीशी पडिल्लीं
इतल्या चेडूं भुरग्यांली मडीं कित्याक?
जाप दी ।।
एकाद्री चली वांचून उरलीच जाल्यार
उदक नाशिल्लें रोप कशें तें वाडटा
चल्याची अपुर्बाय
पूण चलयेचे हाल
तिचेर बाळपणापासून दडपण
कामा रगाड्या भंय
विनयभंगा भंय
बलात्कारा भंय
मेकळ्या हवेंत श्वास घेवंचो भंय
लांडगेशे टपून बशिल्ले
लोका हाता लागलीच
तर मांस कशें चाबडावन
चोथो थुकतले
वयल्यान कायदो कुरडो, कित्याक?
जाप दी ।।
जळजळीत नजरे इंगळे चुकोवन
चली लग्नाक वाडलीच

तर तिचो अपमान
लग्नापयलीं आनी लग्ना मागीर
पदरा शेल्या गांठ पडलीच
तर स्त्रीधना नांवान अत्याचार
लाखो लाखो हुंडाबळी
व्हंकलेक लासोवन
बांयत बुडोवन
गळो दाबून
सकयल उडोवन
जीव घेतात, कित्याक?
जाप दी ।।
तरी अस्तुरेन जीव वांचोवन घेतलो
जाल्यार तिचेर अन्याया वजें चुकना
जल्मभर तिचेर हक्क गाजोवन
बंधना त्रिज्येंत बांधून घालून
उपभोगा वस्तू संतान साधन
ही जल्मठेप ठरलेली
हाका जबाबदार कोण?
जाप दी ।।
अस्तुरेक जल्मसिद्ध समान हक्क
केन्ना मेळतले?
देवीसारको तिका आदर
केन्ना मेळटलो?
जाप दी ।।

## कोणें पळयलें?

पोरसांत एक कळी फुलल्या
कोणें पळयलें?
सपनेली कळी जागी जाली
कोणें पळयलें?
सुर्या उबेन मायेन चुमलें
वाऱ्या ल्हारेन ल्हवू पोशेलें
रुखांनी पानां पालव धरलो
कंवळो कोंब आंकुरेलो
कोणें पळयलें?
पोरसांत एक कळी फुलल्या
कोणें पळयलें?
पिश्या पिसोळ्यान गिरकी मारली
भोंवऱ्याक परमळ भूरळ लागली
मोनी कळी गालाक खळी
काल मेरेन कळी आसली
कोणें पळयलें?
पोरसांत एक कळी फुलल्या
कोणें पळयलें?
पाकळी पाकळी म्होंवान माखली
खंयच्या दुस्मानान झोंपय मारली
नाजूक पाकळी चिड्डून उडयली

पोडांतले केंसर किरमून काडली
फुलती कळी पिसडून गेली
कोणें पळयलें?
पोरसांत एक कळी फुलल्या
कोणें पळयलें?

संथ वारो हुस्कारेलो
भोंवरो भोंवोन भोंवोन भोंवलो
पिशें पिसोळें फडफडत रावलें
फुलतां फुलतां कळी बावली
कोणें पळयलें?
फुलचे पयलीं करपून गेली
कोणें पळयलें?

## देर्णी

भव्य दिव्य देर्णी
तो दाता विधाता
दान करीत आसता
सगल्यांक समान
आमी मागूंक ना
तरी दीत आसता
सूर्या ऊब लखलख पर्जळ
चंद्रिमा तेज शितळ मोगाळ
फुलती फळती धर्तरी प्रेमळ
हवो वारो पावसा शिंवर
गिरी शिखर न्हंय सागर
पर्वत स्तनांतले व्हांवतें जळ
धन धान्य फूल फळ
हें तन मन जीवन अमोल
तो पोशांपोशांनी ओपीत रावता
अगणित देर्णी दीत रावता
आनी तूं पडमूर घेत रावता-
केन्नाय मानल्यात उपकार
त्या विधात्याले?
उलट तूं म्हणत उरता
हांवें कितेंय मागल्यार
देव म्हाका कांयच दिना.

## तीन वोंवळां

मैत्रीचें गोड दूद आमशेंवक
एक धंया थेंब पुरो
भांगराची लंका जळूंक
एक उज्या कीट पुरो

वेळेर बसून नियाळत आसा
अस्तिमेचो सूर्य
मुठींतल्यान रेंव झरत आसा
आनी रेंवें सांगाती वेळ

आमच्या फाटल्यान उरता कितें?
केवळ शब्द
केवळ उतरां
केवळ अक्षर.

## मेरी-गो-राउंड

जियेतां जियेतां
संसारचक्रांत केन्ना घुस्पलें
कळुंकच ना
चलतां चलतां
चक्रव्युहांत केन्ना शिरकलें
कळुंकच ना
जबाबदारी वजें उखलून
आंखून दिल्ल्या लक्ष्मण रेशेंत
चलत रावलें चलत रावलें
थामल्यार परत चलचें कठीण
म्हणून हांव
पडत झडत
खरशेत निरशेत
चलत रावलें चलत रावलें
धांवतां धांवतां लक्षांत येता
गिरगिर घाण्या गोरू हांव
गोल गोल घुंवत आसा
निर्धार केल्यार
बंध तोडून
चक्रांतल्यान भायर सोरूं येता
जाय जाल्ली वाट धोरूं येता

तरी हांव खोशये खोशयेन
बंधना त्रिज्येचें परिघ धोरून
गिर गिर गिरकी घेत रावता
नदर लावन पळयत जाल्यार
जग चोयी दिकांनी घुंवत आसता
विंगड विंगड रंग रुपां
भिरी भिरी धांवत आसतात
सूख विकत घेवंचे खातीर
जग धांवता जन धांवता
धापेवन धापेवन मुखार पावता
काळ अखंड व्हांवत रावता
खरो अर्थ मागशी उरता
जिवनाच्या भव्य जात्रेंत
हांव अजुनय खेळत आसा
म्हज्या लाईफाचें
मेरी-गो-राउंड.

## सांज

तिनीसांज केन्ना जाली
कळ्ळेंच ना
वोत मोवाळ जालें
पळयलेंच ना
पावलां संवकळी वाट सोदीत
माळार पावलीं
वयर दोंगुल्ले शिखर कुरू करी
चडटेर पांय जडावले
श्वास भरून आयलो
तरी यादी उडयो मारीत
पावल्यो भुरगेपणांत
थांबनासतना दोंगरा वयल्या
देवळी कडेन पावची शर्यत
परथें
पाज्जेवयल्यान धांवत धांवत
कितले खेळ खेळिल्ले
तणार न्हिदोन कुपां मेजिल्लीं
काजी रुखार स्वार जावन
सपनां राज्यांत फिरून आयिल्लीं
काण्णां चुन्नां चारां बुड्डून खाल्लीं
गडावयल्यान सुर्यास्त पळयिले

आतांय सूर्या धारेर आयला
लखलख रविकिरण
सहस्त्र हातांनी
परजळ शिंपीत
भांगरा भांडार रकयलें
दोंगर भांगरान सजयलो
सगळ्या सृश्टीक भांगरा शिणगार
भांगर सांज
इतल्यान–
सवणीं कशीं किलकिलत
भुरग्यां भिरें आयलें
कंवळे पिरायेचे
सैम आपलें सौंदर्यकुंभ
तांच्या पांयांकडेन रकयता
पूण हे आपले बेपर्वा
तांचें रेडियो म्युझिक
कानठळ्यो बसयता
अशेच कुकारे घालीत
कीर कशे उबोन गेले
अर्धशतक उलथल्लें
यूग बदललें
वृत्ती बदलली

आमकां भुलयतालें
तें नवे पिळगेक भावना
दीस सांजेता
अस्तंतेन अचळय
काळका शाल पांगुरली
सांज जाली?
जांव दी.

## ध्रुवतारो

प्रवासांत वाट विसरल्यार
जगांत भरकटत रावल्यार
तूं जावन ध्रुवतारो
दिशा दाकय माका ।।१।।

भवसागरांत शिरकल्लें तारूं
क्रूर खडपार आदळल्यार
तूं जावन दीपस्तंभ
दर्यादिगेर पावय माका ।।२।।

संसार जात्रेंत होगडावन गेल्यार
ठेंच लागून पडल्यार
तूं जावन म्हजो सखा
हात दिवन उबार माका ।।३।।

आयुश्याच्या अंतकाळीं
भुरग्यावारी मुसमुसून रडल्यार
तूं जावन मायमाउली
पदरांत समावून घे माका ।।४।।

## आहुती

पाखो हांव
खिणयाळी जीण म्हजी
सार्थक तरी जांव
ही ज्योत उज्वळ
हो पर्जळ
हो मोह जिवघेणो
सुखदिणो
जगांत लाख आकर्शणां
म्हजें एकच लक्ष्य
एकच तुजो पर्जळ
कशें सिद्ध करूं
हो अपरूप मोग
ही पिशी उमळशीक
जाणां हांव
ही नक्षीची नाजूक पाखां
जळून खाक जातलीं
जीव हुलपतलो
यातना जातली
पूण मिलन जायना
तर अदीक यातना

ही प्रीतच आगळी
रीतच वेगळी
तुज्या गोपांत
जायन सुवादीन
जायन विलीन
हेंच मोगाचें जैत
हो लखलख पर्जळ आपयता
राव नज़ आतां
अज्रंवर म्हजी प्रिती
दितां प्राणाची आहुती.

## रात

हे राती
तुज्या गुढश्यामल स्वरूपांत
अदभूत सामर्थ्य लिपलां
सैमचक्रान दिल्लो विश्रांती वेळ तूं
शिणलेल्या जिवांलो आश्रय तूं
तुज्या काळखा शालूक चंदेरी किनार
नक्षत्रफुलां माळून
निंडळार चंद्रतिळो रेखून
आकाशगंगेंतले वज्रां अळंकार
वेंचून घेता तूं
धायी दिकान तुजें शितळ शांत साम्राज्य
हळुहळू कर्कश आवाज बंद जाता
आनी लिनदीन जाल्लें जग न्हिदता
किण्ण काळखांत कसल्यो तरी
सावळ्यो सळसळतात
गे, आमचेर तुजो माये पदर पांगरय
आल्लयी तालार सांबई गे -
दीसरात कामान त्रासलेल्या जिवांक
विसव दी
घडीभर दुखाचो दुखीचो
विसर पडूं दी
तापलेल्या माथ्यार

शितळ श्वासा फूंक मार
तुज्या पदरा आडशाक
सुस्त न्हीद येवं
दोळ्यापात्यांचेर
रंगसपनां थरथर जांव
तुजो मोवाळ स्पर्श जालो
की दणुलेल्या गात्रांक त्राण येता
खर्चिल्लें बळ परत मेळता
गाढ निद्रेंत आमचेर
उर्जे नखेत्रां फांफूड
फाल्यांचे जिवन कंठूक
धैर्यबल दी, माये
दूर.....
गडद काळखांत
झिळमीळ दिसता
युगान युगां
सैमचक्रांत घुस्पलेलीं रात आनी दीस
विरहान तळमळतात
रात हुस्कारता
आमची मिलनघडी केन्ना येतली
उदेंतीर देखूं येता
दिसाचें आगमन
आनी रात
दिसाक जाता समर्पण.

## आनी दीस

एक नवो दीस उदेलो
फांत्या पारा
उदेंती गुलाल उधळता
वारें परमळत व्हांवता
दंव गुलाबा उदक शिंपता
रूख चवऱ्यो ढाळतात
फुलांच्या रंगसड्यार
सवण्यांच्या नादस्वरार
नित्य शुभमुहुर्तार
दिसाले आगमन जाता
हे प्रकाशदाता
तेज,सौंदर्य, यौवनाचें प्रतीक तूं
हे ऋतुकर्ता, तूं येता
सांगाती घेवून येता
उजवाड, उत्साह, उमेद
आनी सगलें जग
निद्रेंतल्यान जागे जाता
आलस्यांतल्यान आमकां उबार
अज्ञानाच्या काळखांतल्यान भायर काड
मुखार आयिल्ल्या समस्यांक
तोंड दिंवचें सामर्थ्य दी
हे दिसा

तुज्या स्पर्शेउबेन
सपनेली कळी हांसता
झाडापेडांक चिगूर येता
वनश्री फुलता फळता
नैसर्गी प्रसन्न जाता
जिवांक नवजीवन मेळता
नसनसांत नवचैतन्य सळसळता
नित्य तेजस्वी नित्य आनंदी तूं
रंकरावांचेर तुजी समदृश्टी
अशीच खुशी वांटची बुद्धी दी
दिसा
एका क्षणाची विश्रांती तूं घेना
सतत कार्य करीत
मुखार वचत रावता तूं
आमकां चांग काम करची वृत्ती दी
तिन्हिसांजे दीस अस्तिमेक पावता
धारेर केशरांत काजळ भरसता
दूर, रातीचीं पांयजणां रुणझुणतात
रात निकट आयली
की दीस खोशयेन
तिच्या भांगेंत कुमकूम भरता
आनी त्याच खिणाक
अंतर्धान पावता
दीस रातीक समर्पण जाता.

## फुलासारकें जगचें

जगचें जाल्यार फुलासारकें जगचें
मनयत सैमसुवाळो
झाडाखांद्यार सहज चंवरचें
दंवाम्होंवा थेंबे पिवन
सुर्यासाज आंगार चडोवन
हांसत परमळत फुलचें
पाकळी पाकळी फुलारून
केंसरगंध वांटचो
वोता रखरख निमूट सोंसून
अटंग पावसा मारो झेलून
वादळ वाऱ्याक मान बागोवन
झिळमीळ उदेंती सूर्याक
दंवा अर्ध्य ओंपचें
फुला जीण संतुश्ट
अदीक उण्या खंत ना
सैमदान खोशयेन घेवन
करचें सैमसमर्पण
आनी गमन सुलूस लागली......
तशें सहज शरण वचचें
फुलून पिकून सुकून काया
पाकळी पाकळी झडोवन

देंठावयल्यान सुटून
अळंग भूंयेर पडचें
मात्येमायेंत मुंगरून
एकठांय जावंचें
जीण समर्पण करचें
संसार सोडून वेतना
फुलाक दु:ख ना खंत ना
मनाक एक विश्वास
तनाक एक जाणीव
हें पूर्णविराम न्हय
हें परिभ्रमण
त्याच सूपीक भूंयेंत
काळजाचे आशेबीज
परथून आंकुरतलें
चंवरतलें
फुलतलें
मरचें जाल्यार फुलावारी मरचें
जगचें जाल्यार फुलावारी जगचें.

## मायभास

भांगरा भूंय भांगरा भास
आमची माय भास
अपरान्ताची अभिमानाची
म्होंवाळ मोगाळ भास
आमची कोंकणी भास ।।१।।

गुणगूण वाऱ्या श्वास छंद
झुळझूळ वझऱ्या नाद
हालत्या धोलत्या माडां लय
मंजूळ मधूर भास
आमची कोंकणी भास ।।२।।

चैतन्याची व्हांवती न्हंय
भारत पश्चिम किनाऱ्याची
देसभर जगभर शिंवर तिचो
सुगम सुलभ भास
आमची कोंकणी भास ।।३।।

संस्कृत मूळ पुरातनी
नवरुपी विकास
आवयभास ही राज्यभास
जिवीत जागृत भास
आमची कोंकणी भास ।।४।।

जाती धर्मा भेद ना
प्रांताचो निशेद ना
लयलिपी विंगड जरी
तिचो माये पालव एक
एकठांय जावन व्हडवीक गावन
धरुया एकच ध्यास
तिच्या उदरगती आस
आमची कोंकणी भास ।।५।।

## केन्नायतरी

केन्नायतरी
खंयतरी
कोणीतरी
हें कवन वाचत
घडीभर स्तब्ध रावत
काळजाच्या गाभाऱ्यांत
उतरांचो अर्थ घमघमत
निबर मनाचेर
मोरापाख हळूच फिरत
भावने पाझर फुटत
एकाद्रे हाती पोशांत वोतत
यादी वोवळां रास
एकाद्रे जिबेर घोळत
खडीसाखरे गोडसाण
अणभवा कोडसाण
एकाद्रे मनाक उपदेस गाक्त
सुचयत एकाद्रो संकेत
सादयत एकाद्रें गीत
एक लेख
एक देख
घडयत क्रांती

नाजाल्यार
शब्द सडे व्हांवोन वचत
पूण संथ ल्हारेर
पुंजायिल्ले खीण
परथून परमळतले
खंयचे तरी मनाक
मोहयतले
आनी सार्थक जातलें
म्हजें कवन
म्हजें जीवन.

## सौ. इंदू अशोक गेरसप्पे

जल्म : १३ जून १९४१त मंगळुरू हांगा.

संगीत, नृत्य, साहित्य, पेन्टींग हातूंत रुची. मुंबयच्या एका नामनेच्या विद्यालयांत शिक्षिका म्हण एकवीस वर्सां विद्यादान. विद्यार्थ्यां खातीर एकांकी, नाटकां बरोवन दिग्दर्शीत केल्यांत. हौशी रंगमंचा खातीर नृत्यनाटिका, नाट्यप्रवेश आनी नाटकां बरोवन दिग्दर्शन केलां. मुंबय दूरदर्शनावेल्यान भुरग्यांखातीर सामाजीक संदेश दिवपी कोंकणी तशेंच मराठींतल्यान नाट्यप्रवेश, कोकणांतलें लोकसंगीत प्रसारीत केलां. कोंकणी कथा आनी कवितांचो इंग्लीश अणकार केला.

फेमिना, कॅनरा सारस्वत, ऋतू तशेंच बिम्ब मासिकांतल्यान सातत्त्यान लेखन करतात.

बिम्ब प्रकाशन